

# स्पन्दन

भास कोंकणी आवसु आमची। लिपि देवनागरी उडगासु दवराची।।

Date of Publication : 1st DECEMBER 2017

കൊങ്കണി സാഹിത്യ അക്കാദമി, കേരള

കൊങ്കണി സാഹിത്യ - സാംസ്കാരിക

നൃത്ത - സംഗീതോത്സവം - 2017

2017 ഒക്ടോബർ 27, 28, 29

HEERTHAPADA MANDAPA







## केरळ कोंकणी अकादमी

कोच्ची

पाँच रुपया

मुखेल संपादक
सुरेश ए. शेणै

उप संपादक
पी. मनोहर

कोशाधिकारि
के. विजयन

वाँगडी
प्रो. जी. मोहन राव

न्यायोपदेशक
अड.वी.एन. वसन्त कुमार

प्रचार-प्रसार
टी. आर. सदानन्द भट

Layout by :
K. Santhosh
Mob : 9895212521

**मुखचित्र : 27, 28, 29 ओक्टोबर 2017 दिसांकडे तिरुवनन्तपुरं (तीर्थपाद मण्डपं, किषक्के कोटा) जल्लेलें "कोंकणी साहित्य-सांस्कारिक-नृत्त-संगीतोत्सवं 2017" - एद्दीं चित्रं।** (आभारःराजेश के., कोट्टयम)



प्रति - ₹ 5/-
वार्षीक - ₹ 60/-

# स्पन्दन

प्रकाशन : केरळ कोंकणी अकादमी, कोच्ची

**SPANDAN**

**Published by :**
**KERALA KONKANI ACADEMY**
**8/28, 'Santhery', 1st Floor,**
**Opp. M.S.C. Bank Ltd., Cherlai Road,**
**Cochin - 682 002. Mobile : 94477 35849**
**Email : keralakonkaniacademy@gmail.com**

खंड : 6 अंक : 12 1939 मार्गशीर्ष

## संपादकीय

घर त एक समाजाचे जीवनाडि। समाज देशाचे फटिबल। जाल्यार आवसु त एक घराक 'घर' करता। ते घरान्तु थाकून त, ते आवसुले वाटेन तं आपण्यालो संस्कारु सग मानवराशीक मेळता। एक घर कोरूक कोणाकय जातलें, जाल्यार तें एक 'घर' जांवका जाल्यार आवसूलो प्रयत्नूचि जांवका। एक भासे विषयान्तूयि ह्यें सम तं। एक्र चेर्डुं प्रथम जाव्नु आवसूले तोण्णान्तु थाकूनु तं उल्लोंवचाक सिकता। तीणे उल्लोंवची भास तो तागेले मनान्तु घट्टी धरता। दिकूनूचि आपण्याले घरान्तु थाकूनु उल्लोंवची भास तं तागेली निज भास। जाल्यारि आजि केरळान्तु जायते कोंकणी लोक आपण्याले घरान्तु मलयाळम उल्लोव्नु एंवचे पसावत कोंकणी विसरताय। ते दिकूनु आमचि विनन्ति कसले म्हळ्यारि इतुलकी वर्षां जाव्नु परस्पर उल्लोव्नु ऐलेली आमची आवय भास कोंकणी, तिक्का सोणत्तिलें मुक्कारीचि वड्डोव्नु हाडका म्होणु तं। आजी एक राज्यच कोंकणी भास मातृभास म्होणु भारतान्तु अस्स। साहित्य प्रवर्तन अस्स। कोंकणीन्तु पुरस्कार मेळचा अस्स। बोरोव्पी वाचपी सुमार आसयि। घरान्तु थाकूनूचि भास उल्लोंव्चाक आसिलो प्रयत्नु कोरका।

कोच्ची,
01-12-2017

सुरेश ए. शेणै,
मुखेल संपादक.

## कलामालिं सुवचनँ -

*- अनिता डी. किणी, कोच्ची*



***"Once your mind stretches to a new level, it never goes back to its original dimension"***

**"एक प्रत्येक नवे तलारि तुम्गेले मन्न पाव्नु जल्ले तरि जल्यारि मगीरि तें पूर्व स्थितीन्तु पर्तून येव्ना।।"**

23.11.2017, कोच्ची : कोंकणी केन्द्र - गोश्रीपुर संस्थेले अट्टवें पुस्तक सुशीला त्रिविक्रम भट्ट, कोच्ची हंगेले **കൊങ്കണി പാചക പഞ്ചകം – 3 (മാങ്ങ കൊണ്ടുള്ള വിവിധ വിഭവങ്ങൾ)** पुस्तकाचे प्रकाशन जल्लें।

---



कु. सूर्या एस. कोच्चीचे (स्व.) सुभाषचन्द्रन अनि श्रीकुमारि जी. हंगेलि धूव। Asian Throwball Junior Championship Malaysia - 2016 (27-30 Dec. 2016, Bidara Court, Seleyang 68100, Selengor हंगा चम्किलेले) हिगेले टीमाक प्रथम स्थान प्राप्त जल्लें। 17-22, Nov. 2015 क औरंगाबाद (Divisional Sports Complex) हंगा चम्किले 28th Sub Junior Softball Championship - Boys & Girls हन्तु हिग्गेले टीमाक तृतीय स्थान प्राप्त जल्लेलें।

---

अ. भा. कोंकणी परिशदेचें 31 वें अधिवेशन मुंबय (महाराष्ट्र राज्य भारत स्कऊट्स अनि गायड्स शिवाजी पार्क, दादर) दवोर्नु 2018 जनुवरि 6, 7 दिस्सांकडे जत्तले।

---

15-16, नवं 2017, इन्डियन मेडिकल अस्सोसियेषन हाळ्, एलूरु रोड, गवर्णरपेट, विजयवाडा - साहित्य अकादमीन Seminar-cum-Reading Session on "The Evolution of Children's Literature" घडोवन हळ्ळें। कोंकणी प्रतिनिधि अस्सिल्लो दत्ता नायक।

---



1.11.2017, आर. एन. शेटी हाळ, भण्डारकर'स आर्ट्स एण्ड सायन्स कोळेज, कुन्दापूर :- भास्कर कोग्गा कम्मत हंका Dr. TMA Pai Distinguished Achievement Award to Outstanding Konkani पुरस्कारु दीव्नु सन्मान केल्लो।

## संत केशवदासालि हितोपदेश कथा – 29

प्रो. वी. शिवानन्द भट,
पंचाब्जपुरम

### "पावन नाम मृतशरीरान्तु प्राणु घालता"

एक दिवसा जनां एकल्यालें मृतशरीर श्मशानाक व्हरतानि। मृत मनुष्यालि पत्नी शवयात्रेचे मगल्यान विलाप करता करता वत्तालि। सन्त रामदास नदीतीरारि बयसूनु ध्यान करता तीणे दिकलें। सन्ताक तीणे साष्टांग नमस्कारु घल्लो। सन्त रामदासान तिका यो अनुग्रहु दिल्लो, "तुका बरें जावो, तुका चाँग चेरडूंवं जावो।" तीणे सांगलें, "तुमीं दिल्लोलो अनुग्रहु व्यर्थ, मिगेलो भर्तारु जिवन्त ना।" सन्त रामदासान सांगलें, "यें वचन रामालें, दासालें (सेवकालें) न्हंयं। रामालें वचन कदापि असत्य जायना। तांचेलगि मृतशरीर हांगा हाडूक सांग।"

सन्त रामदासाले वचनानुसार मृतशरीर ते सन्ताले मुक्कारि घेव्नु अयले। शेंभरि जनां एकडे जाल्लीं। रामदासान सर्वांलगि प्रभु रामालें पावन नाम "श्रीराम जय राम जय जय राम" भक्तीन म्होणूक सांगलें। ते तारक नामाचे प्रतिध्वनीन निर्जीव मनुष्याक सजीव केल्लो। जनान उच्च स्वरान सांगले कि रामदास साधारण मानव न्हंय समर्थ (सर्वशक्त) म्हणु। सन्त रामदासान तांका सांगलें कि सर्वशक्त राम अनी रामनाम। रामनामाचि महिमा अपरंपार। ❃

## विजय रहस्य



- पी. एस. वसन्तकुमारि, कोच्ची

धर्मपुरीन्तूलो चन्द्रदास रय्यापुत्तांक आयुधविद्या सिक्कोंवचाक अतिसमर्थु त अस्सिलो। एकु दीसु नामदेवु म्हळ्ळोलो एकु युवकु तज्जे लगि एयलो। "गुरो, हाँव कांबोज गांवान्तु थकूनु एत्ता। थंगा रामनाथ म्हळ्ळेले गुरु लागि सिखतालो। तवळि तं तुम्चे पस्सूनु अयकिल्लें। मक्कायि शिष्यु जाव्नु स्वीकारु कोर्का।" "पुत्तो, अत्तं मिज्जे भरसि यो" म्हुण संगूनु गुरुन चोंवक्रूक आरांबीले। तवळी तन्नी दोनि मृगांक दिक्कीलिं। गुरून "चांग एक मृग मक्का मेळ्ळेल् जल्यारि।" म्होणु सांगूचे तोडोवाक युवक मृगाक धोरूक धवलो। उज्जे तन्तु धवलेले मृगा मगल्यान वोच्चून तक्का मेळ्ळेना। जल्यारि अन्येक मृगाक धोर्या म्हुण तक्का सोदून गेल्लो। तेवेंय धावनु गेल्लें। रित्ते हत्तान अयलेल्या चेरुक्याक दिक्कूनु गुरून संगीले "पुत्तो, खंचेय एक मृगा मगल्यान गेल्लोलो जल्यार ते मृग मेळतले अस्सिले। तस्सीचि तू एक गुरूचेरीचि विश्वासु दोवोर्नु एकाग्रतेन सिकवण पूर्ती करी। तें त विजयाचे रहस्य।" नामदेवु गुरूक नमस्कारु कोरनु काम्बोजाक पोरतून गेल्लो। ⌘

औषद पंक्ति - 70

## अज्जेलीं वोक्कदां

(मुत्तश्शि वैद्यं)

सुशीला टी. भट्, कोच्ची

**ऋणांग** वोक्कदां :- 3) कुव्यां पिट्टियेचें (കൂവപൊടി / Arrowroot powder) निश्शें :- कुव्यां पिट्टी चार चिप्पट (स्पूण) काडून शेळ उदकांतु खिरोवनु फुटची रूपान कोडोवंका (खत-खतावप). शेळ जत्ता तशीच दाट जात्तलें दिक्कून तां फूट करूक सांगताय. तें निश्शें एक कोप्पूर्ला (मटकी) आयदनांत घालनु रात सगळीच दवोरका. खत-खतावंचे समयार तांतु एक गोड्डा कुटकोय घालका जल्लेलें तां. रात सगळीच मटकेंतु राबून शेळच जालेलें हें निश्शें, सकळीच निरारे पोट्टार (रित्तें पोट्टार) पीवंका. हें औषध एक-दोन मासांक लाग-लागून पीवंका. उंच संगिल्ले रोगाक वोग्गी शमन मेळतलें. फूडे दिवसा सांजे कोडोवन दवरचें. तवळी तां तें हेरदूसाक चांग शेळ जावनु मेळतलें. रोगिणीन उद्दाक चढची पीवंका. शरीर शैत्य जवंचे तराची फलां - काळींग, पच्चूवें केळें, शिय्याळें इत्यादी आहारांतु एक्कडे करूक श्रमु काडका. *(शेष लगी अंकान्तु)*

## हें तुमका कळता व्हे?

कोंकण्यांगेले आचार-विचार

- सुशीला त्रिविक्रम भट, कोच्ची

## पळ्ळ्यांतु दवरप.....

अवसून तां आद्याक चेरडाक हाथान्तु दोवरका. (बाकी सर्व कार्यांकय मवळ्याक प्रथम स्थान दिंवचो तां अमगेलो संस्कारु) कसलेंय भंगरा साधन तां आवसु दित्तली. तें जल्यार दोन्नीय तांतूली जनां सरपळी, कंकण, मुद्दी, कुरटाक नेव्वाळें अनीक सग्ग भंगराचें आभरण घालतलीं. मगीर तां बन्धु-बान्धव, आमंत्रित जनां सगटय चेरडाक पारितोषिक दित्तलीं.

सान चेरडुवांकर्यान पळ्ळ्याची जूं फट्टीन काडयतलीं, फट्टीरी एक सनूच ढुमको दीवनु, हाथ भरी सट्टा फोवूय दित्तलीं. तव्वळीय गींत चालू वरतले. ◎



## सावध जा

- ए. पी. भानुप्रकाश, पच्चाळम, कोच्ची

मळबाक आडोळनु उठताली काळी घोणी
भोवांडो घालनु उँचार उडताली काळी घोणी
गळ्यारि धवें कांकण घालेली काळी घोणी
शिकार करूक सकयल वाट पळैताली काळी घोणी
सकलय कोंब्यें पिलां खाण खावनु भोंवताय
कोंब्यें पिलांक धरूक तूं आयल्यारि
सावध जा तूं सावध जा;
आसा एक कोंबो सकलय
तो कोंबो तुका चोंच मारनु धावंडायतोलो।

## स्स्पति

- प्रेम चन्द मल्या, कोच्ची

"नार्लु हाडूक गेल्लोलो रित्ते हत्तान एय्लो इत्तिरे? नार्लु खंई ?"
"नार्लु रोडारि (रस्त्यारि) पोळ्ळो !"
"काणु हाडूक पाणा वे ?"
"खावचे इत्तेंयि रोडारि पळ्यारि काणु हाडूक पाणा म्होणु अम्मान संगिल्ले न्हवें !"

**DD 9 - चन्दना** : मासाचे दुसरे अनि चोवते आइतारा देन्पारां 3.30 वरारि अनि तजे लगीचेचि शनिवाराचे देन्पारा 11 वरारि कोंकणी कार्यक्रम चोय्यायि।

## मांकडा स्वभावु

- अञ्जली किणी, कोच्ची

व्हय वे अम्मि मांकड ? न्हय
मांकडान्तु थकून जल्लीली जायत
रूप मगलान सोळ्ळो खंय
मुक्कार सरलीली स्वभाव सैत।

हत्तान्तु अस्सिले इत्तें सोडका
वगळीं इत्तें करताय हांवय कोरका
ताणे रुक्कार चळ्यार हांवय चोडका
तो इत्ति व्हरता हांवय व्होरका।



पाश्चात्य संस्कृतीचे भ्रमान
आचार विचार सोळ्ळे
जांवचानीक तांचे समान
म्हण तुक्का इत्ति मेळ्ळें।

सोळ्ळो अपण्यालो गाँवु
वेषु भाषा सोणु गेल्लो
पत्तो विसरलो सोळ्ळे नाँव
अत्तँ खंयचो न्हय जल्लो।

## पद्माक्ष

- एन. माधव रावु, कोच्ची

पद्माक्षा, तू धन्य, विष्णूले हत्तान्तु तुजे स्थान।
ब्रह्मदेवु, तुजेरि बेसता, लक्ष्मीदेवी रबता तुजेरि।।
सत्यनारायणा(ले) पुज्जेक खण्डित तू जावका।
कृष्णाक चोयिता देवकि तुजे पत्तियेन कृष्णाष्टमीक।।
तुगेलो जन्मु चिकलान्तु, तुजे देंटान्तु इन्द्रान वासु केलो।
अरुणकिरणाले स्पर्शान कोळो विस्कळेन्तु तू फुलता।।
तुजे सौन्दर्यानय पोरमोळानय भोवोरु तुजेरि भ्रमु पांवता।
प्रभात सोगूनु प्रदोष थांयि, तुजो म्होवु पीवनु मस्त जत्ता।।
सूर्यु पश्चिमान्तु बुडचे तशि, तुजी विस्कळेलि पत्तियो कवळतायि।
मत्त लगून पोळ्ळोलो भोवोरु, उसर्मेटीन मोर्नु वत्ता।।
प्रभात धोर्नु प्रदोष थांयि, एक दिवसा आयुष तुका।
चिकलान्तु तुगेलो जन्मु जल्यारीयि, धन्य जल्लो तू देवा(ले) सामीप्यान।।

## मर्यादा पर्वत

**(लिङ्गपुराणानुसृत)**

1) मन्दर
2) देवकूट
3) कैलास
4) गन्धमादन
5) निषध
6) पारियात्र
7) त्रिश्रृंग
8) जारुचि



## आत्मीय

देवालगि वाय्ट/बल्लाव कांयि ना। देवु तो निर्मल।




## "नेतृत्व गान्धीजीक"

हर्दूसा गान्धीजीन प्रोटोरिया यात्रा पुनरारंभ केलि। घोड्यानि ताण्डचि बसाकारा बान्डी तं तवळि मेळ्ळिलि। अपमान अपमर्याद इत्यादिक गान्धीजीक दुसदुसेरि फाटि घेत्तायि अस्सिलें। डिब्बेंतु भित्तर्चे सीटारि बेसूक तं गान्धीजीन टिकट कळ्ळेलें। बायर सारथी लागीचि बेसूका म्हुण गार्डान एवनु सांगिलें। एक भारतीया ओटूचि बेसून यात्रा कोर्चे एदे यूरोपींक सज्जना खंय। निविर्ति नातिल्यान गान्धीजीन ती आज्ञा अनुसरण केलि। अनिकय वेळु वुचून तोडोवु जल्यारि गान्धीजीक थांगा पावनु अस्सिलिं कायरिं तुन्टतलि। वुणे वरांक बाण्डि धावलि; गार्ड दुस्सेरि आयलो। ताका वारें घेंवका पसावत गान्धीजीन बेसून अस्सिलेकडे ताका बेसूका म्हुण ताणे जाणैलें। जल्यारि गार्डाले सीटारि गान्धीजीन वोचून बेसुचान्तु तो सहमत न्हय। माडोवनु चोडचे मेट्टारि एक साकु उडकाय्लो अनिक गान्धीजीक ताजेरि बेसूक सांगीलें ताणे! तें लेका बायर जत्ता म्हुण दिसून गान्धीजीन औसुन्ना म्हुण जाणैलें। तें आयकुभित्तरि ताणे गान्धीजीले आंगारि हाथु केलो आनि गाळांवुचाकयि आरांभीलें। कांयि चूकि कोर्नातिलें गान्धीजीक गार्डान मार्चे दिकून एदे मान्य यूरोपि हून जाले आनि तन्नि एवनु बलात्कारान गार्डाक धोर्नु राबैलो। अस्सले असंख्य अनुचित संभव थांगाचे भारतीयांचेरि घटताचि अस्सिले दिस्ता; अतं गान्धीजीकय अनुभवाक आयले। थांगा पावनु एक होटलान्तु वचाकयि तन्नि गान्धीजीक कूड दिंवना म्हळ्ळें। अनियेक्कडे कूड दिलें पुण थांगाचे बाकि ग्राहकांचे ओट्टु खाण जेवणाक बेसूक नज म्हुण निबंधना दवर्लि। हजान कर्तना सग्ग गान्धीजीलि क्षमा तुन्टलीना। अपण्याले देशवासींक एकचि ऐकान मान मर्याद आदरु जोड्डून दींवका म्हळोलो निश्चयु गान्धीजीले मन्नान्तु एक लगेन दृढ जालो। त्या खात्तिर एक वर्षा सेवनाक म्हुण थांगा गेल्लेले गान्धीजीक तीनि वर्षांक राबूका जालें। तांगेले बगेक मस्त कोर्का जाव्नु अस्सिलें जल्यारि मुकारि सोरूक कोण तैयार जायना अस्सिलें। धैर्यान आत्मविश्वासान गान्धीजीन त्या बगेक नेतृत्व स्थानारि चोडका जालें। ❁

## विधीन बरयिलें - के.अनन्त भट्ट, कोच्ची

विधीन बरयिलें तेंचि तें जात्ता।
मधुर की कोडु फल मानवु खात्ता।।
कोणाक की जात्ता विधि अनुकूल।
जाण जा तूं ताका कांटे ते फूल।।प.।।

मानवजीवना नदीची धारा।
अनुदिन होळता मास ते बारा।।
सहज समुद्रांतु मेळचाक धांवता।
मोहाचे मरुप्रदेशांतु ती पांवता।।।1।।

जनन मरण बरें-वाय्ट तें जावचें।
अनिष्ट-इष्ट विधिवशांतु पावचे।।
विधिचें विधान जो स्वीकारु करचो।
बुधवन्तु तो नरु धैर्य धरचो।।2।।

विधि विहिताचें लंघन जायना।
बोधु घेवचे सिवाय सोडचे उपाय ना।।
जावचें जातलें येवचें येतलें।
पावतलो पार हरि नांव तरि घेतलें।।3।।

## देवा... - श्रीकर बी. भट, कोच्ची

देवा ! तुगेले चरणारि हांव
भक्तीन वन्दन करता
भक्तीचे वन्दन स्वीकारु कोरनु
देवा ! करि करुणा मिज्जेरि
हे भगवन्ता ! गोश्रीपुरेशा !
रक्षण करि देवा श्रीवेंकटेशा !
देवा तुगेले सन्निधीरि एंवचाक्
भाग्य तुजेलगी मगूनु घेत्तां
देवा ! तुगेले दिव्य दर्शनान्
कोटि जन्म पाप् नाशु जत्ता
श्री भू सहित वासा कलियुग वरदा
अनुग्रहु करी देवा सदा सर्वदा।

## चौपदि - एन. सदानन्द कम्मत, कोच्ची

उदयकालु जल्लो
घलता बोब्बो कोंबो
वसन्तकालु एयलो
रुक्कारि भोर्नु अंबो।।



**पुस्तक प्रकाशन** 10.11.17, कला-संस्कृती सभाघर, पाटो (गोंय):- “मनशाच्या सोदांत” - उदय म्हांबरो। कोंकणी पुस्तकाचे इतिहासांत पयलेच फावट (प्रथम जाव्नु) पुस्तक प्रकाशना ओट्टूचि ebook launch यि जल्लें।

## जो जो कृष्णा - लता रंग मल्लन, माळा

जो जो कृष्णा जो जो
जो जो कृष्णा जो जो
देवकीलो पुत्रु जल्लो
यशोधेक वड्डोंच्याक दिल्लो
मामु कंसाक मारूक कालु जावनु एयिल्लो
यम कालु जावनु एयिल्लो (जो जो)

गोविन्दा रामा कृष्णा गोपकुमारा कृष्णा
नन्दमुकुन्द कृष्णा गोकुल बाल कृष्णा
गोकुल बाल कृष्णा (जो जो)

सच्चिदानन्द देवा अच्युतानन्द देवा
अनाथ नाथ देवा आपल्बांधव देवा
आपल्बांधव देवा (जो जो)

('जो जो' बदलाक 'यो यो' म्हणूयि म्होणुयात)

## चेर्डुवांलि चित्रँ





कु. श्रेयस भट (5) | Pittsburgh P A (USA)
श्रीकान्त एन.भट अनि नीतुलक्ष्मी हांगेलो सुपुत्रु।



## टुर टुर टुर मांकड

- यु. के.पै, पुत्तूर

टुर टुर टुर मांकड
नेसोनु ताक्का काप्पड
घर घर वचूनु
थै थका नांचोनु
संपादन केल्ले वेंकान
दुड्डु हज़ारकयि चड

## कोंकणी - മലയാളം - English

- शैलेष कम्मत. एम., कोच्ची

सुषिरवाद्य - സുഷിരവാദ്യം - Wind Instrument
मोरसिंग/मोरचंग - മുഖർശംഖ് - Jaw Harp
शंखु - ശംഖ് - Conch
पेंप्रें - നാദസ്വരം - Snake Pipe
पिरलूक - ഓടക്കുഴൽ - Flute
कोंवु - കൊമ്പുവാദ്യം - Kombu / Horn

## देवकी

- बी. रत्ना बाई, कोच्ची



देवकी वसुदेव नन्दना-
राधा रुग्मिणी रमणा कृष्णा
जगतोद्धारण जगत्परिपालन
कोर्चो मू तूँ साक्षात् नारायणा
कृष्णा... कृष्णा... कृष्णा... (देवकी)

गोवर्द्धन पर्वतु हत्तान्तु धर्ल्लोलो
मामु... कंसाक.. मर्ल्लोलो
द्रौपतीक दिव्य वस्त्र दिल्लोलो
अर्जुनाक गीतोपदेशु दिल्लोलो
कृष्णा... कृष्णा... कृष्णा... (देवकी)

भक्त सुदामालि तुज्जेर अस्सिलि भक्ति
सुदामाचेरि तुक्का अस्सिल्लि प्रीति
भक्तवत्सलु म्होणु भर्लेले तुगेले कीर्ति
वर्णन कोरूक ना.. अम्का शक्ति
कृष्णा... कृष्णा... कृष्णा... (देवकी)

### अय्किल्लि रस्पति



"शस्त्रक्रियेचे कूडान्तु थकून रोगी भायर धाव्नु एत्ता चोव्नु तगेले बन्धु : "इत्तें जल्लें ?"
"कांय भींवका नक्का। सनचि शस्त्रक्रिया तँ। मात्र न्हय, अम्मीयि लग्गि अस्स न्हय्वें म्होणु नर्सान संगूचे आय्कीलें।"
"तें तुक्का धैर्य दिंव्चाक संगीले न्हय्वें ?"
"नर्सान संगीलेलें मेगेलगि न्हय ! नवे एय्लेले डॉक्टरा लगि तँ ! "

## मोंचुव् वजप

- टी. के. रामचन्द्र मल्या, कारणकोड

मोंचुव् वजुनु नंचुनु हडतायि
मोंकटिं वजुनु नंचूनु एत्तायि
मोंचुव तॅळियां घालू वत्तायि
मोचुव व्हाव्नु नंचुनु हडतायि.

ताळियो वजुनु भजन करतायि
ताळु वजुनु भजन करतायि
कीरतॅनॅ म्होणु वजुन एत्तायि
कीरतॅनॅ म्होणु नंचुन एत्तायि.

चेण्डें वजुनु नृत्य कोरूनु एत्तायि
चेण्डें वजुनु शीवेलि कोरूनु एत्तायि
हस्ते सिंगारनु शीवेलि कोरूनु एत्तायि
हस्ते फट्टीरि केळ्या घडायु वजुनु
हडतायि.

हल्लूनु दोल्लूनु भजन म्हणतायि
हसून-हसोव्नु आनन्दान हडतायि
ताळियो वजुनु भजन म्हणतायि
तॅळियां घालु मोंचुव हडतायि.

तॅळिये लगि जनपद रकून रबतायि
तॅळियां घालू मोंचुव घेव्नु एत्तायि
मोंचुव दोनि व्हाव्नु हडतायि
मोंचुव तॅळियां घालू वत्तायि.

पोङ्गल

## बायलाँ खातिर (ददल्यांकय)

- उषा आर. भट, हैदराबाद

### सामग्री

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. सूरेय तन्दूलु | - 1 खोल्लो | 6. जीवि मिरसांग | - 3 (दिग्गायेन चिर्लेलि) |
| 2. मुग्गा दाळि | - 1 खोल्लो | 7. तूप | - 2 चिपट |
| 3. हळ्दी पुड्डी | - 1 चिपट | 8. फण्णाक जांवका पुरॅसि - सस्सम, करबेवा पत्ति, जीरें अनि तेल | |
| 4. कज्जूबीये धळकँ | - 10 बीयेचिं | | |
| 5. मिर्या कणु | - 10 | 9. मीट | - आवश्याक पुरॅसि |

'कुक्कर'न्तु तन्दूलु आनि दाळि, हळ्दी पुड्डीयि सिज्जूनु मेळूकॅ पुरॅसि उद्दाकयि घाल्नु सिज्जोव्नु काड्का। (उणे उद्दाक रब्बोंवका) एक चिपट तुप्पान्तु कज्जूवियें धळकँ घाल्नु भज्जूनु काडका। (करपूक नज्ज - हरवण्टाणि वच्चाक पुरॅसि)। फण्णाक तेल दोव्वोर्नु, तन्तु सस्सम घाल्नु भेततॅरि मिर्याकॅणु, जीवि मिरसांग चिरलेलि, जीरें आनि करबेवा पत्ति घाल्नु; यें फण्ण सिज्जोव्नु दव्वलेंले सीत-दाळि मिश्रणान्तु रक्कोंव्का। मीट घालनु चांग प्रमाणी मिश्रण कोर्का। नन्तर बाकि अस्सिले तुप्पॅयि घालनु, पोंद दाट अस्सिल्ले अयदनान्तु घालनु भज्जूनु दवर्लेलि कज्जूबी घालनु एक पावटि लगेन भज्जूनु काडका। अयदनाक थप्पूनत्तिल्ले घट्टिट जल्यार, तैय्यार जल्लें म्हुणु लेक्कूयात्।

तूप खंचाक नज्ज जल्यारि, तुप्पाचे बदलाक (दुस्सरि घलचें तूप सोणु) निम्बूव्या रोसु जावो चिंचाबाचो रोसु जावो घल्यार जत्ता। दोनि प्रमाणीयि व्यत्यस्त रूपान रुचिकर पोङ्गल कोर्यात्। (मकर संक्रमाक आन्ध्रा-तेलुङ्काना-तमिलनाडु राज्यान्तु सर्व घरान्तूयि यें अवश्य तय्यार करताति) अम्साणि घाल्नत्तिल्याक 'वेण्पोङ्गल' म्हुणूयि, अम्साणीच्याक 'पुळि पोङ्गल' म्हुणूयि थाँयि अप्पेयताति।



## गुल्लीयो कित्ति सांगताय - 42

- एन. बालकृष्ण मल्या, कोच्ची

**गुळीकु** : तीनि दोळे आसचे पसावत राशिचक्रांतु गुळिकाचे दृष्टिक विशेषु असा. उज्वे दोळ्यान तो राबचे राशीचे दावके भागाचे 2 स्थानारि (भावारि) आनी दावके दोळ्यान उज्वे भागाचे 12 स्थानारि (भावारि) दृष्टि पडेयता. ते नंतना अन्य सगट ग्रहांक असिल्यावरीच सात्वे (7) भावारि स्वत: दृष्टि असा. गुळीकाची दृष्टि लागची राशियो गुण अस्त जावनु दोशफल दित्तांय अशि म्हूण अनुभव प्रमाण हे मर्दीन गुळिकु राबचे राशीचो अधिपु लगेन दोषु दित्ता. *(शेष लगी अंकान्तु)*

## सुभाषित

प्रो. के.एन.आर.भट
कोच्ची



"येषां न विद्या न तपो न दानं ज्ञानं न शीलं न गुणो न धर्मः।
ते मर्त्यलोको भुवि भारभूताः मनुष्य रूपेण मृगाश्चरन्ति।। "

कोणाक की विद्या ना, तपोरति ना, दान कोर्चो स्वभावु ना, ज्ञान ना, चांग स्वभावु ना, चांग गुण ना, नियत धर्माचरण पालनचर्या ना, तस्सले मानव, ये जगान्तु केवल मनुष्यरूप धारण केल्लेलिं मृग समान जन्तु मात्र तॅ। (मनुष्यु म्होणु लेक्कूक, शरीर मात्र न्हयिं, चांग योग्य गुणयि तक्का अस्सूका म्हणु तात्पर्य।)

## वारो (बाल गीत)

- विठ्ठलराय भट, कारवार

सूँऽऽ सूँऽऽ करत आयलो
पिशांतरा सारको वारो
आंबरायेत घुसलो
मस्तो मस्तो वारो
झडमोडो आयलो
आंब्यारूक कांय
बागवले, कांय मोण्ण पडले
होडलो बोवाळ जालो
गांवांतली पोरां थोरां
धांवलीं आंबरायेत
पुंजोवचाक -
आंबे आणि तोरां



## अंब्या रुक्का गूणु

- पी. एल. श्रीनिवास प्रभु, कोट्टयम



फूल जत्ता, अंबूलि जत्ता,
अंबो जत्ता, पिक्कलो अंबो जत्ता
हर्वो अंबो जत्ता, पिक्कलो अंबो
पान दान्त घसूक, अंब्या पान
दान्त घसूक, रूक रक्कूडाक
सावट मेळता, अंबो मिट्टाक घल्तायि
अंब्या पारि फुट्टोवनु दाळि कोर्नु
वट्टून मस्कट करतायि, अम्मि खत्तायि
पिक्कलो अंबोयि गोड घाल्नु घस्सि करतायि गोडि गोड़ि
चेरडुबाळ भोर्नु खत्तायि
म्हलगडींयि भोरनु खत्तायि
चांग चांग अंब्या रूक, चांग चांग अंब्या रूक.



## चिनू मिनू चानो



- आर. एस. भास्कर,
कोच्ची

चिनू मिनू चानो
आंब्या रुखार चडलो
आंब्या रुखार चडून
आंबो चाबतालो

आंबो तुंटून पडलो
चानो सक्कल पडलो
चानो उठून धावलो
रुखार चडून लिपलो

**रस्पति - आर. के. प्रकाश, पळ्ळूर**



Dr. P. N. N. सिंह
डॉ. प्रश्नु ना नरसिंह
SSLC, PDC, BSc.,
MBBS (3 times)

एनवास श्रीनि : डॉक्टर, दुड्ड वेच कोरूक मक्का एळशीक दिस्ता। कंजूस म्होणु मक्का थोगडे उळदीतायि।

डॉक्टर - प्रश्नु ना, वखद दिंचे मुर्तमच फीस तू हंगा दवरि। मगीरची कायरिं मगीरि।

* * * *

अमिताब वेणु : डॉक्टर, वारें मल्यार मजे हेयर स्टैल कंप्लीट वायट जत्ता। केस्साक टोणिक इत्तेंय आप्लै कोर्का बी वे ?

डॉक्टर : प्रश्नु ना, वखद दित्ता, एकि तोप्पी मत्यार दवरूक विसरूक पाणा।

## आळें (കടങ്കഥ / Riddles)

आव्सून अपळयारीयि, आव्सूक
अपळयारीयि, पूतु लसूनु मरता !

**उज्जा पेट अनि उज्जा कड्डि**



## परणी म्हण्णी

- श्रीदेवी सुरेश प्रभु, कोच्ची

- इन्द्राक मल्यारि, चंद्राक लग्गता।
- उदकांतु रब्बूनु मसळेकॅडे वैर करॅपॅ।
- उदकाचा पॅशि रग्गॅत घॅट्टि।
- कोयरु दोळयांतु, फुंकुचे कन्नांतु।
- खल्लॅटाकॅ उद्दाकॅ व्होळ्ता।

## आदगति गुंतिले काव्यमाला

- नागेष अण्वेकर, कारवार

नीति सोण चमकता कोण ?
भीति लेकनशि निराळ उरता
रीत राक नीति धोरन रब्यात
जावचें वाट

## गोंय आनी केरळ कोंकणींतलें अंतर

- एन. वालकृष्ण मल्या, कोच्ची

वागचें - अभ्यास, रीति
कुल्ली - कुरळो (कुल्ल्यो - कुरळे)
पाठोवप/ धाडप - पेट्टोवप/ बळवॅप
पेटोवप - (दिवो) लावप/ जळोवप
पाडेली - कणकांचो
माड - मड्डो



आन्दोलन आन्दोलन
गोश्रीपुरेशाक आन्दोलन
पुरुष सूक्त हिरण्य सूक्त
म्हणताय भक्तीन वैदिक वृन्द ।।



## आन्दोलन गोश्रीपुरेशाक



बालक बालिकांलें नाट्य नर्तन
नयन मनोहर ईश्वर सन्निधान
भक्तजन म्हणताय देवालें कीर्तन
श्रवण सुमधुर गानालापन ।।

सुफल, काणिक, प्रार्थना भक्तीन
मन्त्रोच्चारान अर्चन पूजन
धूप-दीपादि आरति समर्पण
गोश्रीपुरेशाक मंगल गायन ।।

गोश्री कलाक्षेत्र, कोच्ची हंगेले "गोश्रीश गानामृतम्" सी.डी. 2017 :- गान रचना - टी. उमेश भट, संगीतकार - मुरळीधर जी. शेणै, गायिका - ज्योती उमेश कमत्त।



# युसूफ अब्दुल्ला शेख

- गोश्रीपुरं हरिकुमार

**(01.08.1948 - 30.09.2017)**

उत्कृष्ठ कोंकणी लेखक, कवि अनि गीतकार युसूफ हंगेले भुरगेपण वास्कोन्तु जल्लें। वास्कोचे सेय्न्ट जोसफ इन्स्टिट्यूट, मडगांवचे चौगुले कोळेज, मुंबय विश्व विद्यालयाचे पणजे पदव्युत्तर केन्द्र हंगा सिकवण। विज्ञान विषयान्तु एम.एस.सी. केल्लें। इन्ड्यन ब्रॉडकास्टिंग सर्वीसाचो उच्च अधिकारि म्होणु आकाशवाणी अनि दूरदर्शनाचे विविध केन्द्रान्तु तन्नि 30 वर्ष काम केल्लें। मगीरि स्टेशन डायरक्टर जाव्नु शिलोंग अनि गुहाटींतु दूरदर्शन प्रसारण माद्यमांतु काम केल्लें अनि स्वतः सेवा निवृति घेत्तली।

1966 न्तु कोंकणी भाषेचि सेवा आरांभीली। "गांठी" (1982), "भागेवंत खुरानाचो तिसावो अध्याय" (अनुवाद) (2004), "रंगघाय" (2005) अस्सि तंगेली कृतीयो प्रकाशित जल्या। तंगेली देशभक्तीचीं अनि इतर गीन्त दिल्ली अनि पणजी दूरदर्शनाचेर प्रसार जल्यांत।

आकाशवाणी मंगळूर, मुम्बय अनि पणजी केन्द्रान हंगेले गीन्त प्रसारित केल्या। आकाशवाणी खत्तीर तन्नि निर्माण केल्लेले "पोदेर" डोक्युमेंटरीक राष्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळा।

गोवन पोयेट्स फोरमाचे अध्यक्ष, गोवन पोयेट्स सर्कलाचे कार्यदर्शी अस्सि सग तन्नि प्रवर्तन केल्यां। "ओ रे सोय" ह्या इंग्लीश त्रैमासिकेचे ते संपादक अस्सिले।

गोवा कला अकादमीचो पुरस्कार, कोंकणी भाषा मंडळाचे पुरस्कार, आंतोनियो पिरेरा कोंकणी पुरस्कार इत्यादि हंका फाव जल्या।

गोंय वैजकी होस्पिटलांत तन्नि 69 वर्ष प्रायेरि इहलोकवासु पूरो केल्लो। ◎

---

11.11.17, कोच्ची :- कोंकणी केन्द्र-गोश्रीपुर आयोजित प्रतिमास कोंकणी कवि संगमं "हेविळम्बी कार्तिक" सुशीला टी. भट हंगेले घरकडे चम्कीलें।

4.11.2017, डॉ. शिवराम कारन्त हाळ्, मंगळूर :- कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादमी, P. G. Dept. of Konkani, University Evening College, Mangalore एकडे मेळनु "Lecture - Demonstartion Sessions" घडेय्लीं ।

---

27, 28, 29 ओक्टोबर 2017 दिस्सांकडे तिरुवनन्तपुरं (तीर्थपाद मंण्डपं, किषक्केकोटा) जल्लेले कोंकणी साहित्य-सांस्कारिक-नृत्त-संगीतोत्सवान्तु "कोंकणी साहित्य वाणी" द्वैमासिकेचे प्रथम अंका प्रकाशन जल्लें ।

---

20 नवं. 2017 श्री सुधीन्द्रा हाळ, कानरा गर्लस हाई स्कूळ, डोंगरकेरी, मंगळूरु - कोंकणी भास आनि संस्कृती प्रतिष्ठानान घडेय्लेले कार्यक्रमान्तु "विश्व कोंकणी पुरस्कार 2017" वितरण केल्लें ।

---

कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादमीन 2017-18 वर्ष (कोंकणी मान्यता - रजत जयन्ती वर्षा)चे सट्टें कार्यक्रम 27.10.17 क, जोय्डा अनि सत्तवें कार्यक्रम पुत्तूर, 29.10.17 क "कोंकणी संभ्रम" घडेय्लें । कोंकणी भक्ष्यमेळा, कविता-नाटक, करकौशल मेळा सग्ग अस्सिलें ।

---

16.11.17, टाऊण हाळ, मंगळूरु :- कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादमी अनि कोंकणी प्रचार संचालन संस्था एकमेळनु "भुरग्यांलो दीसु" मनाय्लो ।

---

18.11.17, P. G. Dept. M. A. Konkani, University of College, मंगळूरु :- "कोंकणी तोंडी साहित्य प्रत्याक्षित आनी प्रदर्शन" कार्यक्रम घडेय्लें ।

---

15.11.17, कला आणि संस्कृति भवन, पाटो, पणजी (गोंय) :- "युवा सृजन पुरस्कार 2017" वितरण कार्यक्रमु जल्लो ।

---

11, 12, नवं. 2017, डी.डी. चन्दना "विन्दरा पील" (भागु 1 अनि 2) चेर्डुवांलें कोंकणी नाटक प्रसारित केल्लें ।

